# ऋतु

कवितेचें कोंकणी द्विमासिक
वसंत अंक (फाल्गुन - चैत्र)
मार्च-अप्रैल, २००४

... रेंवेर उबी
ती
कणा कणान
वेरेल्ली
त्रिकाळ तेळीत
शिंवरायत
तरण्या चैतन्याचो
स्त्रोत

*कन्याकुमारीच्यो* - पा. ६



... तूं वता तशी तुजे वाटेवयलीं झाडां
फुलत वतात
आनी त्या फुलांचो गंध घेत
हांव पावलां मारीत आसतां
तुजे फाटल्यान

*वाटेवयलीं झाडां* - पा. १७

# ऋतु

कवितेचें कोंकणी द्विमासिक

वसंत अंक (फाल्गुन - चैत्र)

मार्च-अप्रैल, २००४

*

संपादक

**गोकुलदास प्रभु**

*

छापपी आनी उजवाडावपी

**सत्यवान कुंदे**

कुळागर प्रकाशन, पॉ.बो.नं. ७८,

मडगांव, गोंय - ४०३ ६०१

*

छापणावळ

**गणेश प्रिंटर्स**

मंगळूर - ५७५ ००३

*

संपादकाचो पत्तो

२५-२१-१३२०-४२

न्यू मजिला कॉलेनी,

जेप्पू, मंगळूर - ५७५ ००२

*

मोल १० रुपया

वर्सुकी पटी

(विशेशांकासयत)

६० रुपया

*

**वेवहाराचो पत्तो**

२५-२१-१३२०-४२,

न्यू मजिला कॉलेनी,

जेप्पू, मंगळूर - ५७५ ००२


# मांडावळ

# संपादकीय

पयले दिश्टींत, कविता म्हळ्यार कागदाचे एके कुशीन सुवात सोडून बांदिल्लो उतरांच्या वळींचो एक स्तंभ कसो दिसता. कवितेंतल्यो वळी म्हळ्यार छंद आनी प्रास हांचो प्रयोग करून बरयल्ल्यो आसताल्यो आनी एके वळीच्या निमाणेकडेन लायिल्ल्या प्रासाक लागून वाक्याची मात्शी स्थगिती जाल्ले वरी दिसताली. कवितेक गीतांचो गूण मेळटालो. छंदाच्या आनी प्रासाच्या बंदनांतल्यान मुक्त जाल्ले उपरांत कवितेचो गद्या पासून फरक ना जालो अशी तक्रार आयकूंक लागली. कवितेंतले भावनेची सुवात युक्तीन आनी विचारन घेतिल्ल्यान कविता आतां चड संकीर्ण, दुर्बोध आनी गद्यात्मक जावंक लागल्या असोय एक वाद आसा.

हो वाद केन्ना केन्ना वास्तविक दिसता - छंदाक आनी प्रसाक लागून न्हय. भावनेच्या अभावाक आनी विचारांच्या प्रभावांक लागूनय न्हय, पुण अनुभूतीच्या उणावाक लागून.

कवितेंत अनुभूतीचो जागो सर्वश्रेष्ठ. कित्याक, तांतूतल्या उतरांच्या आदारान अनुभूतीची अभिव्यक्ति जाता. जेन्ना अनुभूती प्रखर आनी मार्मिक आसता, तेन्ना ती एका सुक्षीम कवीच्या पातळ, पारदर्शक उतरांल्यान खरी कवीता जावन परजळटा. देखीक ह्यो वळी-

*जिणेपलतडचें किरण*
*ताकाच म्हण्टात मरण*
(बाकीबाब बोरकार)

हांतूत वळी दर उतरांच्या अक्षरार्थाक चड महत्व ना, मेळून वचनात, पुण त्या उतरांच्या एकमेकांच्या पालवान कवीची अनुभूती उक्ती जाल्या. आनी अणभव म्हळ्यार मनोविकारूच न्हय. तो विकाराच्या परिणामान जितलो जाता, तितलो संवेदनाच्या, विचाराच्या आनी युक्तीच्या संस्कारानय जावंयेता.

देखून, एक प्रश्न उदेता. कवितेचे प्रक्रियेंत अनुभूती, उतरां आनी तांचो अर्थ, तशीच अभिव्यक्ती हांचेमदलो संबंध कसलो ? तो संबंध कितलो लागशिल्लो ? आनी निमाणें, ह्यो गजाली एकामेका पासून वेगळ्યો काय नात ? ह्या अंकांतलो श्री नागेश करमली हांचो लेख - *'कविता - उतरां आनी अनुभूती'* हो विशय हाताळटा.

इतिहासाक़डेन फाट वळून पळयतना, १९४४ वर्साच्या एका हस्तलिखित - म्हयनाळ्यांत उजवाडा आयिल्लें एक गीत नदरेंत आयलें. शैलीन आनी सत्वान सोपी तरीय, कोंकणी साहित्याचे तेन्नाचे परिस्थिती कडेन बोट दाखोवपी म्हणून ताचें म्हत्व आसा.

*ॠतूच्या* वाचकांखातीर सदां प्रमाणीं कवितेचे दुसरे उपहारय आसात. आस्वादन घेवंचें.

# उतरां आनी अनुभूती



कविताच कित्याक, मनांतले कितेंय व्यक्त करतलो जाल्यार उतरां हीं जायच. उतरांबगर मनीस मोनो. उतरांचो जागो अर्थ नाशिल्ले कसलेय आवाज वा ध्वनी घेवंक शकनात. दर एका उतराक आपलें अशें एक व्यक्तीमत्व, प्रतिमा, रूप आनी रंगय आसता. खंयचेंय एक उतर, एकोडेपणान, ताका अर्थ बी सगळें आसूनय, एकोडी कितेंच व्यक्त करूंक शकना. 'पायजणां' अशें म्हळ्यार, ते एके वस्तीचें नांव इतलेंच कळटा. पूण हेंच उतर "त्या दिसा गडद तिनसनां, मंदं मंद वाजत
आयलीं तुजीं गो पायजणां" अशे तरेन जेन्ना हेर उतरांच्या हातांत हात घालून येता तेन्ना तें एक अप्रूप अणभव उक्तावपी उतर जाता. ताचें भोंवतणी एक वातावरण तयार जाता. तें वातावरण एका सुंदर चित्राचो रूपकार धारण करता. वाजत येवपी पायजणां आसमंतांत एक स्वरनाद घुमयतात. इतलेंच न्हय, नाजूकपणान पांयजण-पावली मारीत येवपी एक रूपवतीय तुमचे नदरेमुखार उबी जाता. उतरांचें सामर्थ्य तीं कशे तरेन येतात. कोणाचो सांगात धरीत येतात आनी तीं कसले तरेचो भावविष्कार घडयतात हाचेरूच आधारून आसता.

उतरां जीं कवितेंत येतात, तींच कथेंतय येतात. निबंदांतय येतात. नवलिकेंतय येतात. नाटकांतय येतात. पूण सगळेच कडेन तांचे अभिव्यक्तीची सया एकेच तरेची आसतली अशें म्हणूं येना.

'सवण्यांचीं भिरीं' अशें म्हण्टना ताचो एक स्पष्ट वेव्हारिक अर्थ कळटा. पूण 'भिरीं' व 'भिरें' हें उतर घेवन कवितेत ताचो उपेग 'सपनांची भिरीं' म्हणपाक वा 'धोगेत आयलें कुपाचें भिरें' अशे तरेन चित्रमय पद्धतीन मांडपाक जाता, तेन्ना तें उतर ताचो गुणधर्म सोडून वेगळेंच रूप धारण करता. काव्यमय अभिव्यक्तीक लागून जावपी हो बदळ. कवीची प्रतिभा जितली गिरेस्त तितलोच ताचे अभिव्यक्तीची तांकय मोठी. अनुभूतिचो आंवठय विस्तृत. असो कवी उतरांक, फक्त उतरांच म्हणीत थुळेना. तो तांका खेळयता. नाचयता. बागयता. मनाक मारत तशी अर्थ अपुरबाय करता. देखीक तो 'मळबाक फक्त मळबच म्हणून पळयना. तो त्या 'मळबाच्या आगणांत' आपणालीं 'सपनां' रुजवणा घालता. 'मळबाच्या पोल्यार' तो आपणाल्या अमुरपिक्या 'मोगाची गुलाब - साण' अणभवता. ताची 'काळखी रात चान्न्याचो पालोव धरीत चान्नेता'. ताची 'फांतोड पारजताचे परमळ धुंदेंत उजवाडाचो आयणो हालयता. कवीचे अनुभूतीक शीम-मेर ना. ती काळजयी. मोग-मीलन-विरह हांची रंगरंग गांथन गुंथपी आनी तांचे वांटेय घालपी.

कवितेंतल्या उतरांक जशी नाजकाय, मोवसाण, म्होवाळपण आनी अळंगपण भावता तशेंच तिका सांवार, आकांत, रणखेव, झुजमारेपणय चलता. कविता जे प्रमाण झुजामळार वीरवंत आनी धीरवंत जाता तशीच ती शांतीदुताच्या आश्रमांत वचून करुणास्वरय काळीज ओतून आळयता. ते खातिर ती आपणालीं उतरां आपूणच वेंचून काडटा. तिका जसो शौर्याचो जयजयकार करूंक येता तसोच ती शांतीचोय जयजयकार करूंक भोवच उत्सूक आसता. अर्थात् हें सगळें ती अनुभूतीचें गिरेस्तपण लाभिल्ल्या कवीकडल्यानच करून घेता. पूण एक अणभव-अनुभूतीचें हें दायज आपुणशेंच फुलून येना. ताची कीट काळजांत मुळांत आसची पडटा आनी ते किटीक योग्य तरेन फूंक मारून ती ज्वलंत करपाक कळचें पडटा.

म्हजोच अणभव सांगपाचो जाल्यार, जेन्ना तरणे पिरायेर, कवितेकडेन म्हजी झटापट सुरु जाली तेन्ना, हांव जावन उतरांचो सोद घेत वेतालो. काळजांत जें कितें खदखदतालें तें कसल्या उतरांनी सांगचें हो प्रश्न पडटालो. एक तरेचो घुस्मटमार जातालो म्हजो. कांय काळाउप्रांत कविते कडेन अदीक इश्टागत जमली तेन्ना, हातूंत बदल जायत गेलो. उतरांकडेन उलोवपाची म्हाका संवकळ जाली. तींय आपूण जावन म्हाका साद घालूंक लागलीं. उतरांच उतरां, खंयचें घेवूं खंयचें नाका अशी अवस्था. आनी आतां ?

आतां, इतल्या वर्सांनी परिस्थिती खूब म्हळ्यार खूबच बदल्या. उतरांकडेन म्हजें ुक नातें जमला, तीं आतां परकेपण करिनात. पयलींभाशेन नाका जाल्ले लागय करिनात. कविता मनांत रूजूंक लागतनाच तीं आपूण जावन आपापलो जागो आडयतात. हांव फक्त तांकां कागदार उतरावन घेवपाचें काम करतां. उप्रांत मात हांव त्या उतरांक भावयचे अपुरबायेन म्हण्टात तसो निहाळीत रावतां. तेन्ना उतरांतलें नक्सूदपण, अर्थवाहीपण हांची तुळा जाता. केन्ना केन्नाय ह्या उतरांकडेन म्हजी कल्पनेभायली घासाघिसूय सुरु जाता. तेन्ना म्हज्याच उतरांकडेन हांव तिरायताचे नदरेनय पळोवंक लागतां. आनी मागीर एक वेगळीच प्रक्रिया सुरु जाता. म्हजे काव्यनुभूतीक न्याय दिनात अशें दिसता तीं उतरां आपुणच कुशीन सरतात आनी तांची सुवात घेवपी नवीं, दुसरीं उतरां अंतरमनाची गांटी उतरून , सकला देवतात. तरीपूण केन्ना-केन्नाय सगळ्योच गांठी सुट्टात अशेंय ना. म्हजेच एके कवितेचो दाखलो दिवन सांगपाचें जाल्यार -

अथांग, असीम अनंत
ह्याय परस
वेगळ्या उतरांनी
सांगचें जाल्यार
उतरांच नात !

अशी मनाची अवस्था जाता. उतरांच नात ... आसतलीं तरी कशीं ? गोस्वामी तुलशीदास हाका लेगीत हें भोगलां. राम-सीतेच्या जुवान जोडप्याचें 'रामचरितमानसांत' वर्णन करतां करतां ताका उतरांच मेळनात. तो लेगीत तटाक जावन म्हणूंक लागता -

गिरा अनयन । नयन बिनु बानी ..

- वाणयेक दोळे नात आनी दोळयाक तर वाचाच ना. उतरां पयलेकडेन वचपी मणभव जेन्ना काळजाक कोंचायतां तेन्ना अनुभूतीय शिंयाळ्यांत खोबरेल शेंकेत तशीं मावंळून येता. कवीचे कसोटेचोच तो खीण आसता. त्या खिणाकय फुडो करपाक कळूंक जाय. कसो ? कवी-प्रतिभे नूच तें थारावंक जाय.

■ **नागेश करमली**

| दोन कविता<br>कन्याकुमारीच्यो | ದೋನ್ ಕವಿತಾ<br>ಕನ್ಯಾಕುಮಾರೀಚ್ಯೋ |
|---|---|



| १ | ೧ |
|---|---|
| हातांत | ಹಾತಾಂತ್ |
| अक्षता | ಅಕ್ಷತಾ |
| तंद्रेंत हिमनगवासी | ತಂದ್ರೇಂತ್ ಹಿಮ್‌ನಗ್‌ವಾಸೀ |
| विश्वदिकांचो | ವಿಶ್ವದಿಕಾಂಚೋ |
| महाप्रवासी | ಮಹಾಪ್ರವಾಸೀ |
| मांगल्याचो | ಮಾಂಗಲ್ಯಾಚೋ |
| ईश मंगेश | ಈಶ್ ಮಂಗೇಶ್ |
| जंबू द्विपाच्या | ಜಂಬೂ ದ್ವಿಪಾಚ್ಯಾ |
| दक्षिण अंता | ದಕ್ಷಿಣ್ ಅಂತಾ |
| तमस्वती रातीचे | ತಮಸ್ವತೀ ರಾತೀಚೇ |
| यात्रेंत | ಯಾತ್ರೇಂತ್ |
| अनन्य कन्या | ಅನನ್ಯ್ ಕನ್ಯಾ |
| उबी प्रतिक्षित | ಉಬೀ ಪ್ರತಿಕ್ಷಿತ್ |

| | |
|---|---|
| पूण अंत कोण्या | ಪೂಣ್ ಅಂತ್ ಕೋಣ್ಯಾ |
| बाणासुराचो | ಬಾಣಾಸುರಾಚೋ |
| हातांत तियेच्या | ಹಾತಾಂತ್ ತಿಯೇಚ್ಯಾ |
| ही खबर· | ಹೀ ಖಬರ್ |
| अनंता आसली | ಅನಂತಾ ಆಸ್ಲೀ |
| म्हणून नारदान | ಮ್ಹಣೂನ್ ನಾರ್ದಾನ್ |
| साद घालून | ಸಾದ್ ಘಾಲೂನ್ |
| हर्त हर्त करून | ಹರ್ತ್ ಹರ್ತ್ ಕರೂನ್ |
| तो मुहूर्त परतायलो | ತೋ ಮುಹೂರ್ತ್ ಪರ್ತಾಯ್ಲೋ |
| आनी शिवाची | ಹಾನೀ ಶಿವಾಚೀ |
| पांवली आपलीं | ಪಾಂವ್ಲೀ ಆಪ್ಲೀ |
| आसली तशी | ಆಸ್ಲೀ ತಶೀ |
| परत नगाचेर पावली | ಪರತ್ ನಗಾಚೇರ್ ಪಾವ್ಲೀ |
| कन्येच्या | ಕನ್ಯೇಚ್ಯಾ |
| खड्गान जाले गा | ಖಡ್ಗಾನ್ ಜಾಲೇ ಗಾ |
| पावन प्राण | ಪಾವನ್ ಪ್ರಾಣ್ |
| बाणासुराचे | ಬಾಣಾಸುರಾಚೇ |
| आनी तिची जीण | ಆನೀ ತಿಚೀ ಜೀಣ್ |
| जाली साडीसुडी | ಜಾಲೀ ಸಾಡೀಸುಡೀ |
| आनी साडेसुडे | ಆನೀ ಸಾಡೇಸುಡೇ |
| तिचे मोनेच उल्ले ओचे | ತಿಚೇ ಮೋನೇಚ್ ಉಲ್ಲೇ ಓಚೇ |
| रेंवेर उबी | ರೇಂವೇರ್ ಉಬೀ |
| ती | ತೀ |
| कणा कणान | ಕಣಾ ಕಣಾನ್ |
| वेरेल्ली | ವೇರೇಲ್ಲೀ |
| त्रिकाळ तेळीत | ತ್ರಿಕಾಳ್ ತೇಳೀತ್ |
| शिंवरायत | ಶಿವ್‌ರಾಯತ್ |
| तरण्या चैतन्याचो | ತರಣ್ಯಾ ಚೈತನ್ಯಾಚೋ |
| स्त्रोत | ಸ್ತ್ರೋತ್ |
| घटका मेजीत | ಘಟ್ಕಾ ಮೇಜೀತ್ |
| सागर तिठयार ती | ಸಾಗರ್ ತಿಠ್ಯಾರ್ ತೀ |

| | |
|---|---|
| उन्मुक्त खवदळी | ಉನ್ಮುಕ್ತ್ ಖವ್‌ದಳೀ |
| ल्हारांनी त्या | ಲ್ಹಾರಾಂನೀ ತ್ಯಾ |
| तिच्या भाव-ज्वालामुखिंचो | ತಿಚ್ಯಾ ಭಾವ್-ಜ್ವಾಲಾಮುಖಿಂಚೋ |
| हे दोस ओतप्रोत | ಹೇ ದೋಸ್ ಓತ್‌ಪ್ರೋತ್ |
| आजून | ಆಜೂನ್ |
| खंय खंय | ಖಂಯ್ ಖಂಯ್ |
| कन्यांनी शेष | ಕನ್ಯಾಂನೀ ಶೇಷ್ |
| हया हैदोसांचे | ಹಯಾ ಹೈದೋಸಾಂಚೇ |
| अवशेष | ಅವ್‌ಶೇಷ್ |
| २ | ೨ |
| जाता नतमस्तक | ಜಾತಾ ನತ್‌ಮಸ್ತಕ್ |
| पश्चिम घाट | ಪಶ್ಚಿಮ್ ಘಾಟ್ |
| पळोवन संगम | ಪಳೋವನ್ ಸಂಗಮ್ |
| सागर त्रयींचो | ಸಾಗರ್ ತ್ರಯೀಂಚೋ |
| आनीक तांच्या | ಆನೀಕ್ ತಾಂಚ್ಯಾ |
| अद्भूत ल्हारांचो कोचो | ಅದ್ಭುತ್ ಲ್ಹಾರಾಂಚೋ ಕೋಚೋ |
| त्याच त्याच ह्या | ತ್ಯಾಚ್ ತ್ಯಾಚ್ ಹ್ಯಾ |
| दोन शिळांतल्यान | ದೋನ್ ಶಿಳಾಂತಲ್ಯಾನ್ |
| विवेक आनंदाचे स्फुर्तीन | ವಿವೇಕ್ ಆನಂದಾಚೇ ಸ್ಫುರ್ತೀನ್ |
| ॐ कारत गेलो | ॐ ಕಾರತ್ ಗೆಲೋ |
| "म्हज्या भावा भयणानो" | "ಮ್ಹಜ್ಯಾ ಭಾವಾ ಭಯ್‌ಣಾನೋ" |
| हो मंत्र सुमिरण | ಹೋ ಮಂತ್ರ್ ಸುಮಿರಣ್ |
| श्लोक अमृताचो | ಶ್ಲೋಕ್ ಅಮೃತಾಚೋ |
| आमी विसल्ल्या | ಆಮೀ ವಿಸಲ್ಲ್ಯಾ |
| ही वाचा | ಹೀ ವಾಚಾ |
| ही उत्तुंग | ಹೀ ಉತ್ತುಂಗ್ |
| तेमकांची ऋचा | ತೇಂಕಾಂಚೀ ಋಚಾ |
| आनी आयज आमी | ಆನೀ ಆಯಜ್ ಆಮೀ |
| सोलूंक लागल्या | ಸೋಲೂಂಕ್ ಲಾಗಲ್ಯಾ |
| आमच्याच भावणांची त्वचा | ಆಮ್‌ಚ್ಯಾಚ್ ಭಾವ್‌ಣಾಂಚೀ ತ್ವಚಾ |

वेक आनंदाची आसा
कत गरज न्हय
म गरज
वन संवसारांत
वन जिवांनी
वचो आसा
वपणाचो
मचो शड्ज

नाका आमकां
साद युद्धांचे
सदांच आमच्या
शिरंतरांनी
ती हांसूं ... लसलसूं
ऋचा अमृताची
लयाक वचूं तीं
दुस्मान वलयां
आनी रसरसूं
दोळ्या दोळ्यांतल्यान
गाला गालांचेर
रे मंत्राची
हिरण्य-प्राची

■ रमेश वेलुस्कार

ವಿವೇಕ್ ಆನಂದಾಚೀ ಆಸಾ
ಫಕತ್ ಗರಜ್ ನ್ಹಂಯ್
ಪರಮ್ ಗರಜ್
ಸವನ್ ಸಂವ್‌ಸಾರಾಂತ್
ಸವನ್ ಜಿವಾಂನೀ
ಲಾಂವ್‌ಚೋ ಆಸಾ
ಭಾವ್‌ಪಣಾಚೋ
ಆಮ್‌ಚೋ ಶಡ್‌ಜ್

ನಾಕಾಂ ಆಮ್‌ಕಾಂ
ಸಾದ್ ಯುದ್ಧಾಂಚೀ
ಸದಾಂಚ್ ಆಮ್‌ಚ್ಯಾ
ಶಿರಂತರಾಂನೀ
ತೀ ಹಾಂಸೂಂ .... ಲಸ್‌ಲಸೂಂ
ಋಚಾ ಅಮೃತಾಚೀ
ಲಯಾಕ್ ವಚೂಂ ತೀಂ
ದುಸ್ಮಾನ್ ವಲ್‌ಯಾಂ
ಆನೀ ರಸ್‌ರಸೂಂ
ದೋಳ್ಯಾ ದೋಳ್ಯಾಂತಲ್ಯಾನ್
ಗಾಲಾ ಗಾಲಾಂಚೇರ್
ರೇ ಮಂತ್ರಾಚೀ
ಹಿರಣ್ಯ-ಪ್ರಾಚೀ

■ ರಮೇಶ್ ವೇಳುಸ್ಕಾರ್



## श्रावणाच्यो दडको

## ಶ್ರಾವಣಾಚ್ಯೋ ದಡ್‌ಕೋ

श्रावणाच्यो दडको
झडल्यो मनार
भांगरा वतांत
सुकयत पाखां
बळारी तळयार.

श्रावणाच्यो दडको
ओलीं ओलीं रानां
रस्मी चोळयेंत
गेलीं भिजून
राधेचीं थानां ...

श्रावणाच्यो दडको
पिकीं जालीं सुखां
दोळयांचे पातयांत
जालीं मोनी
सगळीं म्हजीं दुखां ...

■ माधव बोरकार

(१७-५-१९७०)

ಶ್ರಾವಣಾಚ್ಯೋ ದಡ್‌ಕೋ
ಝಡಲ್ಯೋ ಮನಾರ್
ಭಾಂಗ್‌ರಾ ವತಾಂತ್
ಸುಕಯತ್ ಪಾಖಾಂ
ಬಳಾರೀ ತಳ್ಯಾರ್.

ಶ್ರಾವಣಾಚ್ಯೋ ದಡ್‌ಕೋ
ಓಲೀಂ ಓಲೀಂ ರಾನಾಂ
ರಸ್ಮೀ ಚೋಳಯೇಂತ್
ಗೇಲೀಂ ಭಿಜೂನ್
ರಾಧೇಚೀಂ ಥಾನಾಂ ...

ಶ್ರಾವಣಾಚ್ಯೋ ದಡ್‌ಕೋ
ಪಿಕೀಂ ಜಾಲೀಂ ಸುಖಾಂ
ದೋಳ್ಯಾಂಚೇ ಪಾತ್‌ಯಾಂತ್
ಜಾಲೀಂ ಮೋನೀ
ಸಗ್‌ಳೀಂ ಮ್ಹಜೀಂ ದುಖಾಂ ...

■ ಮಾಧವ್ ಬೋರ್‌ಕಾರ್

(17-5-1970)

## आवय बापुय

## ಆವಯ್ ಬಾಪುಯ್

आवय बापुय
करता पोराची अपुरबाय
देखूनच
पोरां करतात
तांची नसाय.

■ माणिकप्रभू गावणेकार

ಆವಯ್ ಬಾಪುಯ್
ಕರ್‌ತಾ ಪೋರಾಚೀ ಅಪುರ್‌ಬಾಯ್
ದೇಖೂನಚ್
ಪೋರಾಂ ಕರ್‌ತಾತ್
ತಾಂಚೀ ನಸಾಯ್.

■ ಮಾಣಿಕಪ್ರಭು ಗಾವಣೇಕಾರ್

## ास

गोऱ्या खांदार तुज्या
मेकळे केंस काळे
भोगता रात आज
मस्त मदनाचे सुवाळे.

ल्ली तऩ्री
वूय पीस कसो
ा तुज्या पदरा आड
जिल्लो चंद्र पिसो.

वारो स्वास तुजो
रात राणये वास
केसांतल्या मोगऱ्यांक
उमाळ्याची भास ...

■ माधव बोरकार
*(१९७१)*

## ಭಾಸ್

ಗೋರ್‌ಯಾ ಖಾಂದಾರ್ ತುಜ್ಯಾ
ಮೇಕಳೇಂ ಕೇಂಸ್ ಕಾಳೇ
ಬೋಗ್‌ತಾ ರಾತ್ ಆಜ್
ಮಸ್ತ್ ಮದನಾಚೇ ಸುವಾಳೇ.

ಸಪ್ನೇಲ್ಲೀ ತನ್‌ರೀ
ಜೀವ್ರೂಯ್ ಪೀಸ್ ಕಸೋ
ವತಾ ತುಜ್ಯಾ ಪದ್‌ರಾ ಆಡ್
ಲಾಜಿಲ್ಲೋ ಚಂದ್ರ್ ಪಿಸೋ.

ವಾರೋ ಸ್ವಾಸ್ ತುಜೋ
ರಾತ್ ರಾಣ್‌ಯೇ ವಾಸ್
ಕೆಸಾಂತಲ್ಯಾ ಮೋಗ್‌ರ್ಯಾಂಕ್
ಉಮಾಳ್ಯಾಚೀ ಭಾಸ್ ....

■ ಮಾಧವ್ ಬೋರ್‌ಕಾರ್
*(1971)*

## सपन

थेंबान थेंब
जमलें तळें
तातूंत तुजे
मळब दोळे.

वाऱ्याक आनी
फुटलें मन
जालें हांवूंच
एक सपन ...

■ माधव बोरकार
*(३-०४-१९७९)*

## ಸಪನ್

ಥೇಂಬಾನ್ ಥೇಂಬ್
ಜಮ್‌ಲೇಂ ತಳೇಂ
ತಾಂತೂತ್ ತುಜೇ
ಮಳಬ್ ದೋಳೇ.

ವಾರ್‍ಯಾಕ್ ಆನೀ
ಫುಟ್‌ಲೇಂ ಮನ್
ಜಾಲೇಂ ಹಾಂವ್ರೂಂಚ್
ಏಕ್ ಸಪನ್...

■ ಮಾಧವ್ ಬೋರ್‌ಕಾರ್
*(03-04-1979)*

# तीन कविता

१

पोंगत्र्याचेर
फुल्ला वसंत
जेजूच्या रगताचो.

२

कणसाच्या कानांत
वाऱ्याचें गीत
तळयाच्या मनांत
मळबाची प्रीत.

३

मनमोगरे माटव
चैत्र चांदनें फुल्लां
आनी म्हजें सूख
अळंग पर्मळत उल्लां ...

■ माधव बोरकार

(१२-०३-१९७३)

# ತೀನ್ ಕವಿತಾ

೧

ಪೋಂಗ್‌ರ್‍ಯಾಚೇರ್
ಫುಲ್ಲಾ ವಸಂತ್
ಜೇಜೂಚ್ಯಾ ರಗ್‌ತಾಚೋ.

೨

ಕಣ್‌ಸಾಚ್ಯಾ ಕಾನಾಂತ್
ವಾರ್‍ಯಾಚೇಂ ಗೀತ್
ತಳ್ಯಾಚ್ಯಾ ಮನಾಂತ್
ಮಳ್‌ಬಾಚೀ ಪ್ರೀತ್

೩

ಮನ್‌ಮೋಗ್‌ರೇ ಮಾಟವ್
ಚೈತ್ರ್ ಚಾಂದ್‌ನೇಂ ಫುಲ್ಲಾಂ
ಆನೀ ಮ್ಹಜೇಂ ಸೂಖ್
ಅಳಂಗ್ ಪರ್ಮ್‌ಳತ್ ಉಲ್ಲಾಂ ..

■ ಮಾಧವ್ ಬೋರ್‌ಕಾರ್

(12-03-1973)

# दोन चित्रां

१

धुक्यांत चंद्र बुडिल्लो
मळबाच्या कॅन्वासार
रंगयल्ल्या चित्रांतलो.

२

तुज्या दोळयांत एल पैल
शांत शांत दर्या निळो

■ माधव बोरकार

(२४-०४-१९७३)

# ದೋನ್ ಚಿತ್ರಾಂ

೧

ಧುಕ್‌ಯಾಂತ್ ಚಂದ್ರ್ ಬುಡಿಲ್ಲೋ
ಮಳ್‌ಬಾಚ್ಯಾ ಕ್ಯಾನ್ವಾಸಾರ್
ರಂಗ್‌ಯಲ್ಲ್ಯಾ ಚಿತ್ರಾಂತಲೋ.

೨

ತುಜ್ಯಾ ದೋಳ್ಯಾಂತ್ ಎಲ್ ಪೈಲ್
ಶಾಂತ್ ಶಾಂತ್ ದರ್ಯಾ ನಿಳೋ.

■ ಮಾಧವ್ ಬೋರ್‌ಕಾರ್

(24-04-1973)

## ांगप

वें जर म्हाका सांगिल्लें
अलोंव नाका
र हांव आयुष्यभर
उलोवचों नासलो
वें जर म्हाका सांगिल्लें
न्हीदूं नाका
र हांव आयुष्यभर
न्हीदचो नासलो
वें जर म्हाका सांगिल्लें
हांसू नाका
र हांव आयुष्यभर
हांसचो नासलो
वें जर म्हाका सांगिल्लें
रडूं नाका
र हांव आयुष्यभर
रडचो नासलो
वें जर म्हाका सांगिल्लें
जगूं नाका
र हांव आयुष्यभर
जगचो नासलो
वें जर म्हाका सांगिल्लें
श्वास घेवं नाका
र हांव आयुष्यभर श्वास
घेवचो नासलो
ण हें सगळें सांगून
किते उपेग ?
तर म्हाका कांयच
सांगिनास्तना गेलें

अरुण साखरदांडे

## ಸಾಂಗಪ್

ತುವೇಂ ಜರ್ ಮ್ಹಾಕಾ ಸಾಂಗಿಲ್ಲೇಂ
ತೂಂ ಉಲ್ಲೋಂವ್ ನಾಕಾ
ತರ್ ಹಾಂವ್ ಆಯುಷ್ಯ್‌ಭರ್
ಉಲೋವ್‌ಚೋಂ ನಾಸ್‌ಲೋ
ತುವೇ ಜರ್ ಮ್ಹಾಕಾ ಸಾಂಗಿಲ್ಲೇಂ
ತೂಂ ನ್ಹೀಂದೂಂ ನಾಕಾ
ತರ್ ಹಾಂವ್ ಆಯುಷ್ಯ್‌ಭರ್
ನ್ಹೀಂದ್‌ಚೋ ನಾಸ್‌ಲೋ
ತುವೇಂ ಜರ್ ಮ್ಹಾಕಾ ಸಾಂಗಿಲ್ಲೇಂ
ತೂಂ ಹಾಂಸೂ ನಾಕಾ
ತರ್ ಹಾಂವ್ ಆಯುಷ್ಯ್‌ಭರ್
ಹಾಂಸ್‌ಚೋ ನಾಸ್‌ಲೋ
ತುವೇಂ ಜರ್ ಮ್ಹಾಕಾ ಸಾಂಗಿಲ್ಲೇಂ
ತೂಂ ರಡೂಂ ನಾಕಾ
ತರ್ ಹಾಂವ್ ಆಯುಷ್ಯ್‌ಭರ್
ರಡ್‌ಚೋ ನಾಸ್‌ಲೋ
ತುವೇಂ ಜರ್ ಮ್ಹಾಕಾ ಸಾಂಗಿಲ್ಲೇಂ
ತೂಂ ಜಗೂಂ ನಾಕಾ
ತರ್ ಹಾಂವ್ ಆಯುಷ್ಯ್‌ಭರ್
ಜಗ್‌ಚೋ ನಾಸ್‌ಲೋ
ತುವೇಂ ಜರ್ ಮ್ಹಾಕಾ ಸಾಂಗಿಲ್ಲೇಂ
ತೂಂ ಶ್ವಾಸ್ ಘೇವಂ ನಾಕಾ
ತರ್ ಹಾಂವ್ ಆಯುಷ್ಯ್‌ಭರ್ ಶ್ವಾಸ್
ಘೇವ್‌ಚೋ ನಾಸ್‌ಲೋ
ಪುಣ್ ಹೇಂ ಸಗ್‌ಳೇಂ ಸಾಂಗೂನ್
ಕಿತೇ ಉಪೇಗ್ ?
ತೂಂ ತರ್ ಮ್ಹಾಕಾ ಕಾಂಯ್‌ಚ್
ಸಾಂಗಿನಾಸ್ತನಾ ಗೇಲೇಂ

■ ಅರುಣ್ ಸಾಖರ್‌ದಾಂಡೇ

# वेळ

तुज्या तिकलेचो तांबडो सूर्या
दर्यांत अस्तेमताना
मळबूय लजून तामशें जाता
तुज्या पोल्यावरी
आनी पैसुल्यान
कितल्योशोच बळारी
आनी मागीर एक एकटयो घारी
उचावेल्ल्यान
आपापल्या घोटेरांत परततना
म्हाका तुजी खूब याद येता
आमी दोगांय दर्यविळेर बसतालीं
तेन्ना
वेळ मुठीतल्या रेवेंसारको
कितले बेगीन झरझरतालो !
आनी आमची पावलां ल्हारानी भिजयलीं
कीं हांव तुका म्हण्टालो
'आमी आयलीं की
रोखडीच भरती येता
न्हय गो दर्याक ?"
आतां हांव एकटोच
दयविळेर बसता
दर्याक भरती येना आतां
पयलीं भशेन
आनी ल्हारांय म्हजी पावलां
भिजयनात

■ अरुण साखरदांडे

# ವೇಳ್

ತುಜ್ಯಾ ತಿಕಲೇಚೋ ತಾಂಬ್‌ಡೋ ಸೂರ್ಯಾ
ದರ್‌ಯಾಂತ್ ಅಸ್ತೇಮ್‌ತಾನಾ
ಮಳಬೂಯ್ ಲಜೂನ್ ತಾಮ್‌ಶೇಂ ಜಾತಾ
ತುಜ್ಯಾ ಪೋಲ್ಯಾವರೀ
ಆನೀ ಪೈಸುಲ್ಯಾನ್
ಕಿತ್‌ಲ್ಯೋಶೋಚ್ ಬಳಾರೀ
ಆನೀ ಮಾಗೀರ್ ಏಕ್ ಏಕಟ್‌ಯೋ ಘಾರೀ
ಉಚಾವೇಲ್ಲ್ಯಾನ್
ಆಪಾಪ್‌ಲ್ಯಾ ಘೋಟೇರಾಂತ್ ಪರತತನಾ
ಮ್ಹಾಕಾ ತುಜೀ ಖೂಬ್ ಯಾದ್ ಯೇತಾ
ಆಮೀ ದೋಗಾಂಯ್ ದರ್‌ಯಾವೇಳೇರ್ ಬಸ್‌ತಲೀಂ
ತೇನ್ನಾ
ವೇಳ್ ಮುಠೀತಲ್ಯಾ ರೇವೇಂಸಾರ್‌ಕೋ
ಕಿತ್‌ಲೇ ಬೇಗೀನ್ ಝುರ್‌ಝುರ್‌ತಾಲೋ !
ಆನೀ ಆಮ್‌ಚೀ ಪಾವ್‌ಲಾಂ ಲ್ಹಾರಾನೀ ಭಿಜಯ್‌ಲೀಂ
ಕೀಂ ಹಾಂವ್ ತುಕಾ ಮ್ಹಣ್ಟಾಲೋ
"ಆಮೀ ಆಯ್‌ಲೀಂ ಕೀ
ರೋಖ್‌ಡೀಚ್ ಭರ್‌ತೀ ಯೇತಾ
ನ್ಹಯ್ ಗೋ ದರ್‌ಯಾಕ್?"
ಆತಾಂ ಹಾಂವ್ ಏಕ್‌ಟೋಚ್
ದರ್‌ಯಾವೇಳೇರ್ ಬಸ್‌ತಾ
ದರ್‌ಕ್ ಭರ್‌ತೀ ಯೇನಾ ಆತಾಂ
ಪಯ್‌ಲೀಂ ಭಶೇನ್
ಆನೀ ಲ್ಹಾರಾಂಯ್ ಮ್ಹಜೀ ಪಾವ್‌ಲಾಂ
ಬಿಜಯ್‌ನಾತ್

■ ಅರುಣ್ ಸಾಖರ್‌ದಾಂಡೇ

## ळाव

ा परतुपाक बरोच कळाव जालो
जीवितूय जेन्ना सैर भैर जाता
ा हांव खंय पावता
तें म्हाकाच कळना
ा परतुपाक सदाच कळाव
जाता अशें ना
खुबदां
वाटेक वाट फुटत वता
ीर रात माथ्यार येता
असोच काळखांत आपटत
धोपटत
ा पावलों आनी दारा
हात माल्लो
बरेचदां दारा धाडायलें
घर दार उघडीना
घराची कांय चुक ना
ान म्हण कितली वाट पळोवप ?
कितलो वेळ हांव दाराभायर
सोपणार बसलों
ीर थंयच आड पडलो
एकलेपणाचे श्वास हड्डयांत घेत
किड्यांची किरकिर आयकत
उकत्या मळबांतली नखेत्रां मेजीत
ीर केन्नातरी जाग आयली
आंग थणथणटालें
वारें सणसणटालें
घराचो राग गेलो काय ?

## ಕಳಾವ್

ಘರಾ ಪರ್ತುಪಾಕ್ ಬರೋಚ್ ಕಳಾವ್ ಜಾಲೋ
ಜೀವೀತೂಯ್ ಜೇನ್ನಾ ಸೈರ್ ಭೈರ್ ಜಾತಾ
ತೇನ್ನಾ ಹಾಂವ್ ಖಂಯ್ ಪಾವ್ತಾ
ತೇಂ ಮ್ಹಾಕಾಚ್ ಕಳ್ನಾ
ಘರಾ ಪರತುಪಾಕ್ ಸದಾಚ್ ಕಳಾವ್
ಜಾತಾ ಅಶೇಂ ನಾ
ಪುಣ್ ಖುಬ್ದಾಂ
ವಾಟೇಕ್ ವಾಟ್ ಫುಟತ್ ವತಾ
ಮಾಗೀರ್ ರಾತ್ ಮಾಥ್ಯಾರ್ ಯೇತಾ
ಅಸೋಚ್ ಕಾಳ್ಖಾಂತ್ ಆಪ್ಟತ್
ಧೋಪ್ಟತ್
ಘರಾ ಪಾವ್ಲೋಂ ಆನೀ ದಾರಾ
ಹಾತ್ ಮಾಲ್ಲೋ
ಬರೇಚದಾಂ ದಾರಾ ಧಾಡಾಯ್ಲೇಂ
ಪುಣ್ ಘರ್ ದಾರ್ ಉಘ್ಡೀನಾ
ಘರಾಚೀ ಕಾಂಯ್ ಚುಕ್ ನಾ
ಘರಾನ್ ಮ್ಹಣ್ ಕಿತ್ಲೀ ವಾಟ್ ಪಳೋವಪ್ ?
ಕಿತ್ಲೋ ವೇಳ್ ಹಾಂವ್ ದಾರಾಭಾಯಾರ್
ಸೋಪ್ಣಾರ್ ಬಸ್ಲೋಂ
ಮಾಗೀರ್ ಥಂಯ್ಚ್ ಆಡ್ ಪಡ್ಲೋ
ಏಕ್ಲೇಪಣಾಚೇ ಶ್ವಾಸ್ ಹಡ್ಡ್ಯಾಂತ್ ಘೇತ್
ರಾತ್ಕಿಡ್ಯಾಂಚೀ ಕಿರ್ಕಿರ್ ಆಯ್ಕತ್
ಉಕತ್ಯಾ ಮಳ್ಬಾಂತ್ಲೀ ನಖೇತ್ರಾಂ ಮೇಜೀತ್
ಮಾಗೀರ್ ಕೆನ್ನಾತರೀ ಜಾಗ್ ಆಯ್ಲೀ
ಆಂಗ್ ಥಣ್ಥಣ್ಟಾಲೇಂ
ಥಂಡ್ ವಾರೇಂ ಸಣ್ಸಣ್ಟಾಲೇಂ
ಘರಾಚೋ ರಾಗ್ ಗೇಲೋ ಕಾಯ್ ?

हळूच दार धुकलें तें उघडलें
शेंदरेर पडून
चादर आंगार ओडली
घर बाबडें
दीस रात एकटेंच आसता

■ अरुण साखरदांडे

ಹಳೂಚ್ ದಾರ್ ಧುಕ್‌ಲೇಂ ತೇಂ ಉಘ್‌ಡಲೇಂ
ಶೇಂದ್‌ರೇರ್ ಪಡೂನ್
ಚಾದರ್ ಆಂಗಾರ್ ಓಡ್‌ಲೀ
ಘರ್ ಬಾಬ್‌ಡೇಂ
ದೀಸ್ ರಾತ್ ಏಕ್‌ಟೇಂಚ್ ಆಸ್‌ತಾ

■ ಅರುಣ್ ಸಾಖರ್‌ದಾಂಡೇ

## माती

बुड बुड बुडले
दर्यातळा रीगले
हातांत पिशा कितें ?
मोती

रात रात जागले
सोद सोद सोदले
हातांत पिशा कितें ?
वाती

भैण-भाव मेळ्ळे
पाप-पुण्य फळ्ळे
हातांत पिशा कितें ?
नातीं

घण घण घणलें
खण खण खणलें
हातांत पिशा कितें ?
माती

मोती गेले फुटून
वाती गेल्यो पेटून
नातीं गेलीं झरून
माती गेली व्हावून

■ अरुण साखरदांडे

## ಮಾತೀ

ಬುಡ್ ಬುಡ್ ಬುಡ್‌ಲೇ
ದರ್‌ಯಾತಳಾ ರೀಗ್‌ಲೇ
ಹಾತಾಂತ್ ಪಿಶಾ ಕಿತೇಂ ?
ಮೋತೀ

ರಾತ್ ರಾತ್ ಜಾಗಲೇ
ಸೋದ್ ಸೋದ್ ಸೋದ್‌ಲೇ
ಹಾತಾಂತ್ ಪಿಶಾ ಕಿತೇಂ ?
ವಾತಿ

ಭ್ಹೈಣ್-ಭಾವ್ ಮೆಳ್ಳೇ
ಪಾಪ್-ಪುಣ್ಯ್ ಫಳ್ಳೇ
ಹಾತಾಂತ್ ಪಿಶಾ ಕಿತೇಂ ?
ನಾತೀಂ

ಘಣ್ ಘಣ್ ಘಣ್‌ಲೇಂ
ಖಣ್ ಖಣ್ ಖಣ್‌ಲೇಂ
ಹಾತಾಂತ್ ಪಿಶಾ ಕಿತೇಂ ?
ಮಾತೀ

ಮೋತೀ ಗೇಲೇ ಫುಟೂನ್
ವಾತೀ ಗೆಲ್ಯೋ ಪೇಟೂನ್
ನಾತೀಂ ಗೆಲೀಂ ಝರೂನ್
ಮಾತೀ ಗೆಲೀ ವ್ಹಾವೂನ್

■ ಅರುಣ್ ಸಾಖರ್‌ದಾಂಡೇ

# वाटेवयलीं झाडां

तूं ह्या वाटेवयल्यान गेलां
हें म्हाका कशें कळटा, सांगू ?
आगो
तूं वता तशी तुजे वाटेवयलीं झाडां
फुलत वतात
आनी त्या फुलांचो गंध घेत
हांव पावलां मारीत आसतां
तुजे फाटल्यान
पुण आज इतल्या वर्सानी
म्हाका दुबाव येवंक लागला
तूं खंयतरी नाच्च जालां
आनी
हांव पिसो कसो भोवता म्हुण
म्हाका हांसत
म्हजी फकाणां करीत
एकामेकांक खुणायत
हांव हे वाटेन येता म्हुण
फुलना मुगो तीं
वाटेवयलीं झाडां ?

■ **अरुण साखरदांडे**

# ವಾಟೇವಯಲೀಂ ಝಾಡಾಂ

ತೂಂ ಹ್ಯಾ ವಾಟೇವಯಲ್ಯಾನ್ ಗೇಲಾಂ
ಹೇಂ ಮ್ಹಾಕಾ ಕಶೇಂ ಕಳ್‌ಟಾ, ಸಾಂಗೂ ?
ಆಗೋ
ತೂಂ ವತಾ ತಶೀ ತುಜೇ ವಾಟೇವಯಲೀಂ ಝಾಡಾಂ
ಫುಲತ್ ವತಾತ್
ಆನೀ ತ್ಯಾ ಫುಲಾಂಚೋ ಗಂಧ್ ಘೇತ್
ಹಾಂವ್ ಪಾವ್ಲಾಂ ಮಾರೀತ್ ಆಸ್‌ತಾಂ
ತುಜೇ ಫಾಟ್‌ಲ್ಯಾನ್
ಪುಣ್ ಆಜ್ ಇತಲ್ಯಾ ವರ್ಸಾನಿ
ಮ್ಹಾಕಾ ದುಬಾಬ್ ಯೇವಂಕ್ ಲಾಗ್‌ಲಾ
ತೂ ಖಂಯ್‌ತರೀ ನಾಚ್ಚ್ ಜಾಲಾಂ
ಆನೀ
ಹಾಂವ್ ಪಿಸೋ ಕಸೋ ಭೋವ್‌ತಾ ಮ್ಹುಣ್
ಮ್ಹಾಕಾ ಹಾಂಸತ್
ಮ್ಹಜೀ ಫಕಾಣಾಂ ಕರೀತ್
ಎಕಾಮೆಕಾಂಕ್ ಖುಣಾಯತ್
ಹಾಂವ್ ಹೇ ವಾಟೇನ್ ಯೇತಾ ಮ್ಹುಣ್
ಫುಲ್‌ನಾ ಮುಗೋ ತೀಂ
ವಾಟೇವಯಲೀಂ ಝಾಡಾಂ ?

■ **ಅರುಣ್ ಸಾಖರ್‌ದಾಂಡೇ**



# बीज

हांव म्हज्या घरांत बसलां
    घर नियाळीत
अचकीत
    घर जालें वणत
वण्टीचें जाले दार
    दार जालें जनेल
आनी धावपाक लागलें
    म्हजे फाटल्यान
हांवे माल्ली उडी
    भयान
जनेलांतल्यान
    हांव जालों पक्षी
आनी उडूंक लागलो
    उंच मळबांत
उडटां उडटां
    म्हजी जालीं कुपां
कडकड करून सरसरलीं
    वीज म्हज्यांतल्यान
आनी ओतूंक लागलो पावस
    धर्तरेर
हांव मातयेत जिरून गेलो
    आनी ओग्गी आसां मातयेपोंदा
वाट पळयत
    फुडल्या पावसाची

■ **अरुण साखरदांडे**

# ಬೀಜ್

ಹಾಂವ್ ಮ್ಹಜ್ಯಾ ಘರಾಂತ್ ಬಸ್‌ಲಾಂ
    ಘರ್ ನಿಯಾಳೀತ್
ಅಚ್‌ಕೀತ್
    ಘರ್ ಜಾಲೇಂ ವಣತ್
ವಣ್ಟೀಚೇಂ ಜಾಲೇ ದಾರ್
    ದಾರ್ ಜಾಲೇಂ ಜನೇಲ್
ಆನೀ ದಾವ್‌ಪಾಕ್ ಲಾಗ್‌ಲೇಂ
    ಮ್ಹಜೇ ಪಾಟಲ್ಯಾನ್
ಹಾಂವೇ ಮಾಲ್ಲೀ ಉಡೀ
    ಭಯಾನ್
ಜನೇಲಾಂತಲ್ಯಾನ್
    ಹಾಂವ್ ಜಾಲೋಂ ಪಕ್ಷೀ
ಆನೀ ಉಡೂಂಕ್ ಲಾಗ್‌ಲೋ
    ಉಂಚ್ ಮಳ್‌ಬಾಂತ್
ಉಡ್‌ಟಾಂ ಉಡ್‌ಟಾಂ
    ಮ್ಹಜೀ ಜಾಲೀಂ ಕುಪಾಂ
ಕಡ್‌ಕಡ್ ಕರೂನ್ ಸರ್‌ಸರ್‌ಲೀಂ
    ವೀಜ್ ಮ್ಹಜ್ಯಾಂತಲ್ಯಾನ್
ಆನೀ ಓತೂಂಕ್ ಲಾಗ್‌ಲೋ ಪಾವ್‌ಸ್
    ಧರ್ತರೇರ್
ಹಾಂವ್ ಮಾತಯೇತ್ ಜಿರೂನ್ ಗೆಲೋ
    ಆನೀ ಓಗ್ಗೀ ಆಸಾಂ ಮಾತಯೇಪೋಂದಾ
ವಾಟ್ ಪಳ್‌ಯತ್
    ಫುಡಲ್ಯಾ ಪಾವ್‌ಸಾಚೀ

■ **ಅರುಣ್ ಸಾಖರ್‌ದಾಂಡೇ**

# दर्या

तुज्या निळया निळया दोळयांत
म्हजेंच बिंब नियाळटना
हांव तुज्या दोळयांतल्या
खोल दर्यांत
केन्ना बुडलो तें कळ्ळेंच ना
तरी बरें म्हाका पेंवक येता म्हण
हात पाय मारीत
वयर सल्लो कसोतरी
पुण तुज्या दोळ्यांतल्या दर्यांतले
काळेकिट्ट उदक
कसलें कोण जाणा !
इतली वर्सां जाली तरी
कात म्हजी आजूनूय झडत आसा
आनी उकत्यो पडल्यात
म्हज्यो शिरो
आनी दिसता तांतुल्यान व्हांवता
तें तांबडे रगत
पुण तेंय बी आतां काळें
जायत चल्लां
कितलीं वखदां केलीं
पुण देहांत चडिल्ल्या विखाक
कोमच्यो फुटत आसात
चोयीं वटयां
पुण आजूनूय दिसता
खंयच्यातरी दोळयांत

# ದರ್ಯಾ

ತುಜ್ಯಾ ನಿಳ್ಯಾ ನಿಳಯಾ ದೋಳ್ಯಾಂತ್
ಮ್ಹಜ್ಯೇಂಚ್ ಬಿಂಬ್ ನಿಯಾಳ್ಟನಾ
ಹಾಂವ್ ತುಜ್ಯಾ ದೋಳ್ಯಾಂತಲ್ಯಾ
ಖೋಲ್ ದರ್ಯಾಂತ್
ಕೇನ್ನಾ ಬುಡ್ಲೋ ಕಳ್ಳೇಂಚ್ ನಾ
ತರೀ ಬರೇಂ ಮ್ಹಾಕಾ ಪೇಂವಕ್ ಯೇತಾ ಮ್ಹಣ್
ಹಾತ್ ಪಾಯ್ ಮಾರೀತ್
ಯವರ್ ಸಲ್ಲೋ ಕಸೋತರೀ
ಪುಣ್ ತುಜ್ಯಾ ದೋಳ್ಯಾಂತಲ್ಯಾ ದರ್ಯಾಂತಲೇ
ಕಾಳೇಕಿಟ್ಟ್ ಉದಕ್
ಕಸ್ಲೇ ಕೋಣ್ ಜಾಣಾ !
ಇತಲೀ ವರ್ಸಾಂ ಜಾಲೀ ತರೀ
ಕಾತ್ ಮ್ಹಜೀ ಆಜೂನೂಯ್ ಝಡತ್ ಆಸಾ
ಆನೀ ಉಕ್ತ್ಯೋ ಪಡ್ಲ್ಯಾತ್
ಮ್ಹಜ್ಯೋ ಶಿರೋ
ಆನೀ ದಿಸ್ತಾ ತಾಂತುಲ್ಯಾನ್ ವ್ಹಾಂವ್ತಾ
ತೇಂ ತಾಂಬ್ಡೇ ರಗತ್
ಪುಣ್ ತೇಂಯ್ ಬೀ ಆತಾಂ ಕಾಳೇಂ
ಜಾಯತ್ ಚಲ್ಲಾಂ
ಕಿತ್ಲೀಂ ವರವದಾಂ ಕೇಲೀಂ
ಪುಣ್ ದೇಹಾಂತ್ ಚಡಿಲ್ಯಾ ವಿಖಾಕ್
ಕೋಮ್ಫ್ಯೋ ಫುಟತ್ ಆಸಾತ್
ಚೋಯೀ ವಟ್ಯಾಂ
ಪುಣ್ ಆಜೂನೂಯ್ ದಿಸ್ತಾ
ಖಂಯ್ಲ್ಯಾಂತರೀ ದೋಳ್ಯಾಂತ್

दर्या आसतलो | ದರ್ಯಾ ಆಸ್‌ತಲೋ
शीतळ अमृताचो | ಶೀತಳ್ ಅಮೃತಾಚೋ
आनी तांतूंत बुचकळून | ಆನೀ ತಾಂತೂಂತ್ ಬುಚ್‌ಕಳೂನ್
म्हज्या देहाक फुटली नवी कात | ಮ್ಹಜ್ಯಾ ದೇಹಾಕ್ ಫುಟ್‌ಲೀ ನವೀ ಕಾತ್
फातोडेच्या सुर्याच्या कवळया किरणांची | ಫಾತೋಡೇಚ್ಯಾ ಸುರ್‌ಯಾಚ್ಯಾ ಕವಳ್‌ಯಾ ಕಿರಣಾಂಚೀ

■ अरुण साखरदांडे | ■ ಅರುಣ್ ಸಾಖರ್‌ದಾಂಡೇ

# नियती | ನಿಯತೀ

पोसो भरून पुलां वेंचलीं | ಪೋಸೋ ಭರೂನ್ ಫುಲಾಂ ವೇಂಚ್‌ಲೀಂ
पुण खंय गा तीं उल्लीं ? | ಪುಣ್ ಖಂಯ್ ಗಾ ತೀಂ ಉಲ್ಲೀಂ ?
नाच्च जालीं इल्लीं इल्लीं | ನಾಚ್ಚ್ ಜಾಲೀಂ ಇಲ್ಲೀಂ ಇಲ್ಲೀಂ
बावून गेली सगळीं | ಬಾವೂನ್ ಗೆಲೀ ಸಗ್‌ಳೀಂ
आस्त भंगली, निर्शेणी पातळ्ळी | ಆಸ್ತ್ ಭಂಗ್‌ಲೀ, ನಿರ್ಶೇಣೀ ಪಾತ್‌ಳ್ಳೀಂ
दिस सरून रात आयली | ದಿಸ್ ಸರೂನ್ ರಾತ್ ಆಯ್‌ಲೀ
फुलांच्या जाग्यार आतां कांटे | ಫುಲಾಂಚ್ಯಾ ಜಾಗ್ಯಾರ್ ಆತಾಂ ಕಾಂಟೇ
सुखा जाग्यार दुखां | ಸುಖಾ ಜಾಗ್ಯಾರ್ ದುಖಾಂ
सुख आनी दुख | ಸುಖ್ ಆನೀ ದುಖ್
सुकती आनी भरती | ಸುಕ್‌ತೀ ಆನೀ ಭರ್‌ತೀ
भरती आनी सुकती | ಭರ್‌ತೀ ಆನೀ ಸುಕ್‌ತೀ
हाकाच म्हणटात नियती | ಹಾಕಾಚ್ ಮ್ಹಣ್‌ಟಾತ್ ನಿಯತೀ

■ अशोक नारायण काणेकार | ■ ಅಶೋಕ್ ನಾರಾಯಣ್ ಕಾಣೇಕಾರ್

# शिशिर

थंडीचे दीस
घटमुट आंगलोट
आनी गच्च पाचवीं पानां
णववारी साडी न्हेशिल्लेवरी दिसपी
तें बदामाचें झाड
एक एक करून
गळयत आसा
पिकलीं तांबडीगुंद पानां
खांदये कणकणीं
वयावयली चली
एक एक वस्त्र देवयता
न्हांवचे पयली
तशें
उगडें करीत आसा
आपलें सर्वांग
आनिक सात आठ दिसानी
तें जातलें नग्न
आनी मागीर न्हातलें
फातोंडेच्या दवांत
चंद्रिम चन्न्यांत .
तांतुल्यान फागुरतल्यो आंकयो
हांसतलो सैम ताच्या आंगार
आनी सेरभैर जाल्लो देह
सजतलो नवे व्हकलेचो
पांचवेचार कांकणाचो
चुडो भरून
वाट पळेत
फुडल्या शिशिराची

■ अरुण साखरदांडे

# ಶಿಶಿರ್

ಥಂಡೀಚೇ ದೀಸ್
ಘಟ್‌ಮುಟ್ ಆಂಗ್‌ಲೋಟ್
ಆನೀ ಗಚ್ಚ್ ಪಾಂಚ್‌ವೀ ಪಾನಾಂ
ಣವ್‌ವಾರೀ ಸಾಡೀ ನ್ಹೇಶಿಲ್ಲೇವರೀ ದಿಸ್‌ಪೀ
ತೇಂ ಬದಾಮಾಚೇಂ ಝಾಡ್
ಏಕ್ ಏಕ್ ಕರೂನ್
ಗಳಯತ್ ಆಸಾ
ಪಿಕ್‌ಲೀಂ ತಾಂಬ್‌ಡೀಗುಂದ್ ಪಾನಾಂ
ಖಾಂದ್‌ಯೇ ಕಣ್‌ಕಣೀ
ವಯಾವಯ್‌ಲೀ ಚಲೀ
ಏಕ್ ಏಕ್ ವಸ್ತ್ರ ದೇವ್‌ಯತಾ
ನ್ಹಾಂವ್‌ಚೇ ಪಯ್‌ಲೀ
ತಶೇಂ
ಉಗ್‌ಡೇ ಕರೀತ್ ಆಸಾಂ
ಆಪ್‌ಲೇಂ ಸರ್‌ವಾಂಗ್
ಆನೀಕ್ ಸಾತ್ ಆಠ್ ದಿಸಾನೀ
ತೇಂ ಜಾತ್‌ಲೇಂ ನಗ್ನ್
ಆನೀ ಮಾಗೀರ್ ನ್ಹಾತಲೇಂ
ಫಾತೋಂಡೇಚ್ಯಾ ದವಾಂತ್
ಚಂದ್ರಿಮ್ ಚಾನ್ನ್ಯಾಂತ್
ತಾಂತುಲ್ಯಾನ್ ಫಾಗುರ್‌ತಲ್ಯೋ ಆಂಕ್‌ರ್ಯೋ
ಹಾಂಸ್‌ತಲೋ ಸೈಮ್ ತಾಚ್ಯಾ ಆಂಗಾರ್
ಆನೀ ಸೇರ್‌ಭೈರ್ ಜಾಲ್ಲೋ ದೇಹ್
ಸಜ್‌ತಲೋ ನವೇ ವ್ಹಕ್‌ಲೇಚೋ
ಪಾಂಚ್‌ವೇಚಾರ್ ಕಾಂಕ್‌ಣಾಚೋ
ಚುಡೋ ಭರೂನ್
ವಾಟ್ ಪಳೇತ್
ಫುಡಲ್ಯಾ ಶಿಶಿರಾಚೀ

■ ಅರುಣ್ ಸಾಖರ್‌ದಾಂಡೇ

## फुलाक

ओंठावेल्या फुला म्हज्या फुलत राव, फुलत राव
काळजाचें गुपीत म्हाका सांगत राव, सांगत राव

मळबांतलो चंद्रिम चकलकता दर्या ल्हारार
अमुरपिको सैम नटला रूखा रूखार
हावेसाच्या तालार गायत राव, गायत राव

धुंद मना, पांचवी पाना सगल्या रानावना
नकळटना आयच्या खीणा साकार सपना
उमेदीच्या सुरार हांसत राव, हांसत राव

सात रंगी इंद्रबाण घेता नकेत्रा ल्हाण
पलतडच्या तिच्या मना रचलां गान
कसो सांगूं, कोणा सांगू मनाथाव मना भाव

■ भिकाजी घाणेकार

## ಫುಲಾಕ್

ಓಂಠಾವೆಲ್ಯಾ ಫುಲಾ ಮ್ಹಜ್ಯಾ ಫುಲತ್ ರಾವ್, ಫುಲತ್ ರಾವ್
ಕಾಳ್‌ಜಾಂಚೇ ಗುಪೀತ್ ಮ್ಹಾಕಾ ಸಾಂಗತ್ ರಾವ್, ಸಾಂಗತ್ ರಾವ್

ಮಳ್‌ಬಾಂತಲೋ ಚಂದ್ರಿಮ್ ಚಕಲ್‌ಕತಾ ದರ್‌ಯಾ ಲಾರಾರ್
ಅಮುರ್‌ಪಿಕೋ ಸೈಮ್ ನಟ್‌ಲಾ ರೂಖಾ ರೂಖಾರ್
ಹಾವೇಸಾಚ್ಯಾ ತಾಲಾರ್ ಗಾಯತ್ ರಾವ್, ಗಾಯತ್ ರಾವ್

ಧುಂದ್ ಮನಾ, ಪಾಂಚ್‌ವೀ ಪಾನಾ ಸಗಲ್ಯಾ ರಾನಾವ್‌ನಾ
ನಕಳ್‌ಟನಾ ಆಯ್‌ಚ್ಯಾ ಖೀಣಾ ಸಾಕಾರ್ ಸಪ್‌ನಾ
ಉಮೇದೀಚ್ಯಾ ಸುರಾರ್ ಹಾಂಸತ್ ರಾವ್, ಹಾಂಸತ್ ರಾವ್

ಸಾತ್ ರಂಗೀ ಇಂದ್ರ್‌ಬಾಣ್ ಘೇತಾ ನಕೇತ್ರಾಂ ಲ್ಹಾಣ್
ಪಲ್‌ತಡಚ್ಯಾ ತಿಚ್ಯಾ ಮನಾ ರಚ್‌ಲಾಂ ಗಾನ್
ಕಸೋ ಸಾಂಗೂಂ, ಕೋಣಾ ಸಾಂಗೂಂ ಮನಾ ಥಾವ್ ಮನಾ ಭಾವ್

■ ಭಿಕಾಜೀ ಘಾಣೇಕಾರ್

# कविता

विखाच्या फळाक
    अमृताची रूच
सुखाचे तेंगशेर
    वाट पळेता दुख

सर्गाच्या वाटेर
    नरकाचे दार
उमाशेचे राती
    चान्न्याचो भार

दिसाच्या दोळ्यांत
    रातीची सपना
गरीबाच्या गळ्यांत
    भांगराची पवनां

■ नूतन साखरदांडे

# ಕವಿತಾ

ವಿಖಾಚ್ಯಾ ಫಳಾಕ್
    ಅಮೃತಾಚೀ ರೂಚ್
ಸುಖಾಚೇ ತೇಂಗ್‌ಶೇರ್
    ವಾಟ್ ಪಳೇತಾ ದುಖ್

ಸರ್ಗಾಚ್ಯಾ ವಾಟೇರ್
    ನರ್‌ಕಾಚೇ ದಾರ್
ಉಮಾಶೇಚೇ ರಾತೀ
    ಚಾನ್ನ್ಯಾಚೋ ಭಾರ್

ದಿಸಾಚ್ಯಾ ದೋಳ್ಯಾಂತ್
    ರಾತೀಚಿ ಸಪ್‌ನಾ
ಗರೀಬಾಚ್ಯಾ ಗಳ್ಯಾಂತ್
    ಭಾಂಗ್‌ರಾಚೀ ಪವ್‌ನಾಂ

■ ನೂತನ್ ಸಾಖರ್‌ದಾಂಡೇ

# हुस्को

पयलीं तेपार हुस्को आसताली
हुस्क्या फाटल्यान माया आसताली
आतां मायाच ना तर
    खंयचो हुस्को ?
आनी कळय ना कोण आपलो,
        कोण परको ?

■ नूतन साखरदांडे

# ಹುಸ್ಕೋ

ಪಯ್‌ಲೀಂ ತೇಪಾರ್ ಹುಸ್ಕೋ ಆಸ್‌ತಾಲೋ
ಹುಸ್ಕ್ಯಾ ಫಾಟ್‌ಲ್ಯಾನ್ ಮಾಯಾ ಆಸ್‌ತಾಲೀ
ಆತಾಂ ಮಾಯಾಚ್ ನಾ ತರ್
    ಖಂಯ್‌ಚೋ ಹುಸ್ಕೋ ?
ಆನೀ ಕಳಯ್ ನಾ ಕೋಣ್ ಆಪ್‌ಲೋ
        ಕೋಣ್ ಪರಕೋ ?

■ ನೂತನ್ ಸಾಖರ್‌ದಾಂಡೇ

# कविता

हांव सुर्या नासत
पूण नकेत्र मात जातलेंच
जीणेच्या मळबार
म्हज्या आपतेजान
म्हजें अस्तित्व दाखयतलें.

हांव दर्या नासत
पूण न्हंय मात जातलेंच
जीणेचे भुंयेर
खळखळ हांसत
मुखार सरत रावतलें

■ नयना आडारकार

# ಕವಿತಾ

ಹಾಂವ್ ಸುರ್ಯಾ ನಾಸತ್
ಪೂಣ್ ನಕೇತ್ರ್ ಮಾತ್ ಜಾತ್‌ಲೇಂಚ್
ಜೀಣೇಚ್ಯಾ ಮಳ್‌ಬಾರ್
ಮ್ಹಜ್ಯಾ ಆಪತೇಜಾನ್
ಮ್ಹಜೇಂ ಅಸ್ತಿತ್ವ ದಾಖಯ್‌ತಲೇಂ.

ಹಾಂವ್ ದರ್ಯಾ ನಾಸತ್
ಪೂಣ್ ನ್ಹಂಯ್ ಮಾತ್ ಜಾತ್‌ಲೇಂಚ್
ಜೀಣೇಚೇ ಭುಂಯೇರ್
ಖಳ್‌ಖಳ್ ಹಾಂಸತ್
ಮುಖಾರ್ ಸರತ್ ರಾವ್‌ತಲೇಂ

■ ನಯನಾ ಆಡಾರ್‌ಕಾರ್

# गांठ

सरळ वाटेक मेळ्ळी
वाकडी वाट
आनी एका व्होल्लार
तुजी म्हजी पडली गांठ

■ नूतन साखरदांडे

# ಗಾಂಠ್

ಸರಳ್ ವಾಟೇಕ್ ಮೆಳ್ಳೀ
ವಾಕ್‌ಡೀ ವಾಟ್
ಆನೀ ಏಕಾ ವ್ಹೊಲ್ಲಾರ್
ತುಜೀ ಮ್ಹಜೀ ಪಡ್‌ಲೀ ಗಾಂಟ್

■ ನೂತನ್ ಸಾಖರ್‌ದಾಂಡೇ

# याद

दर दिसा याद येता
वाट तुजीं पळयतां
उगडासान दोनूय दोळयां
लाख दुखां व्हावयतां

पणटेन पेटोवन वात
पळयतां तुजीच वाट
ति रात जेन्ना सोपता
मळबान दिस उदेता

असली ही जीण जगून
सुकलीं म्हज्या मना हारां
आनी एक सारख्या चिंतनान
जीणेची जालीं बोंदरा

■ **अशोक नारायण काणेकार**



# ಯಾದ್

ದರ್ ದಿಸಾ ಯಾದ್ ಯೇತಾ
ವಾಟ್ ತುಜೀಂ ಪಳ್‌ಯತಾಂ
ಉಗ್‌ಡಾಸಾನ್ ದೋನ್‌ಯ್ ದೋಳ್ಯಾಂ
ಲಾಖ್ ದುಖಾಂ ವ್ಹಾವ್‌ಯತಾಂ

ಪಣ್‌ಟೇನ್ ಪೆಟೋವನ್ ವಾತ್
ಪಳ್‌ಯತಾಂ ತುಜೀಚ್ ವಾಟ್
ತಿ ರಾತ್ ಜೆನ್ನಾ ಸೋಪ್‌ತಾ
ಮಳ್‌ಬಾನ್ ದಿಸ್ ಉದೇತಾ

ಅಸ್‌ಲೀ ಹೀ ಜೀಣ್ ಜಗೂನ್
ಸುಕಲೀಂ ಮ್ಹಜ್ಯಾ ಮನಾ ಹಾರಾಂ
ಆನೀ ಏಕ ಸಾರಖ್ಯಾ ಚಿಂತ್‌ನಾನ್
ಜೀಣೇಚೀ ಜಾಲೀಂ ಬೋಂದ್‌ರಾ

■ **ಅಶೋಕ್ ನಾರಾಯಣ್ ಕಾಣೇಕಾರ್**

# कशाय कशें

भट ताण्टा तारवां, आनी
खारवी पोसता गरवां !
बोराच्या झाडाक मगा
तोरांच तोरां !

शेट धरता नांगर
चामार पेटटा भांगर
धनगरान घेतला हातांत
म्हाल्याचो गा वाखर ।

भेड्डो आमचो राजा
मोनी ताजी प्रजा
चोर मारता मजा
साव भोगता सजा
मंत्री मारता बातां आनी
वंयो मगा खाता शेतां

■ **अशोक नारायण काणेकार**

# ಕಶಾಯ್ ಕಶೇಂ

ಭಟ್ ತಾಣ್ಟಾ ತಾರ್ವಾಂ, ಆನೀ
ಖಾರ್ವೀ ಪೋಸ್ತಾ ಗರ್ವಾಂ
ಬೋರಾಚ್ಯಾ ಝಾಡಾಕ್ ಮಗಾ
ತೋರಾಂಚ್ ತೋರಾಂ

ಶೇಟ್ ಧರ್ತಾ ನಾಂಗರ್
ಚಾಮಾರ್ ಪೆಟ್ಟಾ ಭಾಂಗಾರ್
ಧನ್ಗರಾನ್ ಗೆತ್ಲಾ ಹಾತಾಂತ್
ಮ್ಹಾಲ್ಯಾಚೋ ಗಾ ವಾಖರ್

ಭೆಡ್ಡೋ ಆಮ್ಚೋ ರಾಜಾ
ಮೋನೀ ತಾಜೀ ಪ್ರಜಾ
ಚೋರ್ ಮಾರ್ತಾ ಮಜಾ
ಸಾವ್ ಭೋಗ್ತಾ ಸಜಾ
ಮಂತ್ರಿ ಮಾರ್ತಾ ಬಾತಾಂ ಆನೀ
ವಂಯೋ ಮಗಾ ಖಾತಾ ಶೇತಾಂ ...

■ **ಅಶೋಕ್ ನಾರಾಯಣ್ ಕಾಣೇಕಾರ್**

## पुनव

दोंगरा माथ्यार
दर्या ल्हारार
आळवा पानार
पुनवे चांदनें पळय
न्हिदलां कशें ..... !

चुडटांत वादळ
मन म्हजें हुस्कारता
पुनवेचें चांदने पळय
न्हिदलां कशें .... !!

जीव असो तळमळटा
रावूंक तुजे वेंगेंत
पुनवे चांदने पळय
न्हिदलां कशें

■ अशोक नारायण काणेकार

## ಪುನವ್

ದೊಂಗ್‌ರಾ ಮಾಥ್ಯಾರ್
ದರ್ಯಾ ಲ್ಹಾರಾರ್
ಆಳ್‌ವಾ ಪಾನಾರ್
ಪುನ್‌ವೇ ಚಾಂದ್‌ನೇಂ ಪಳಯ್
ನ್ಹಿಂದ್‌ಲಾಂ ಕಶೇಂ ... !

ಚುಡ್‌ಟಾಂತ್ ವಾದಳ್
ಮನ್ ಮ್ಹಜೇಂ ಹುಸ್ಕಾರ್‌ತಾ
ಪುನ್‌ವೇಚೇಂ ಚಾಂದ್‌ನೇ ಪಳಯ್
ನ್ಹಿಂದ್‌ಲಾಂ ಕಶೇಂ .... !!

ಜೀವ್ ಅಸೋ ತಳ್‌ಮಳ್‌ಟಾ
ರಾವೂಂಕ್ ತುಜೇ ವೇಂಗೇಂತ್
ಪುನ್‌ವೇ ಚಾಂದ್‌ನೇ ಪಳಯ್
ನ್ಹಿಂದ್‌ಲಾಂ ಕಶೇಂ ... !!!

■ ಅಶೋಕ್ ನಾರಾಯಣ್ ಕಾಣೇಕಾರ್



# मातृवंदन

['माताड-बारदेनु', ह्या पदा वरी]

पल्लवी - वंदन कोरया हामकां
हमगेले[1] आवसूक [वंदन]

अनुपल्लवी - पुत्र वत्सलेक ह्या
सुंदर कोंकणी भाषेक [वंदन]

चरण - लोकांतु साबार आस्स[2]
विविध तराची भास[3]
तांतू चंद[4] जावन आस्स
हमगेली[5] कोंकणी भास [वंदन]

तिग्गेली[6] गुण सर्वय
पूत कोंकणी नेणय
तिक्का ते वर्ज्य[7] करताय
तिक्क तज्यान दुख जत्ताय[8]
[वंदन]

आवसूक संरक्षण
कोरचें पुत्तालें धर्म
हम्मी[9] तें निर्वहण
कोरका वोड[10] संतोषान
[वंदन]

आवसूलीं अपदान[11]
समस्तय प्रकीर्तन
कोरूं, "कोंकणी" मानु
हाडो हमकां निरंतर [वंदन]

**आर. माधव पै**, तुरवूर
*("कोंकणी" हातबरपाचें म्हैनाळें आश्विन, तारण संवत्सर-सेतंब्र १९८४)*

[चत्राय : १-आमगेले, २-आसा ('आसात' जाय), ३-'भासो' जाय, ४-सुंदर, ५-आमगेली, ६-तिगेले, ७-निषिद्ध, ८-जाता, ९-आमी, १०-व्हडा, ११-बरीं कार्यां, तोखणाय]

# ಮಾತೃವಂದನ್

['ಮಾತಾಡ-ಬಾರದೇನು', ಹ್ಯಾ ಪದಾ ವರೀ]

ಪಲ್ಲವೀ - ವಂದನ್ ಕೋರ್‌ಯಾ ಹಾಮ್ಮಾಂ
ಹಮ್ಗೇಲೆ[1] ಆವ್ಸೂಕ್ [ವಂದನ್]

ಅನುಪಲ್ಲವೀ - ಪುತ್ರ ವತ್ಸಲೇಕ್ ಹ್ಯಾ
ಸುಂದರ್ ಕೋಂಕಣೀ ಭಾಷೇಕ್
[ವಂದನ್]

ಚರಣ - ಲೋಕಾಂತು ಸಾಬಾರ್ ಆಸ್ಸ[2]
ವಿವಿಧ ತರಾಚೀ ಭಾಸ್[3]
ತಾಂತೂ ಚಂದ್[4] ಜಾವ್ನ ಆಸ್ಸ
ಹಮಗೇಲೀ[5] ಕೋಂಕಣೀ ಭಾಸ್ [ವಂದನ್]
ತಿಗ್ಗೇಲೀ[6] ಗುಣ್ ಸರ್ವಯ್
ಪೂತ್ ಕೋಂಕಣೀ ನೇಣಯ್
ತಿಕ್ಕಾ ತೇ ವರ್ಜ್ಯ[7] ಕರ್ತಾಯ್
ತಿಕ್ಕ ತಜ್ಯಾನ್ ದುಖ ಜತ್ತಾಯ್[8]
[ವಂದನ್]

ಆವ್ಸೂಕ್ ಸಂರಕ್ಷಣ್
ಕೋರಚೇಂ ಪುತ್ತಾಲೇಂ ಧರ್ಮ
ಹಮ್ಮೀ[9] ತೇಂ ನಿರ್ವಹಣ್
ಕೋರ್ಕ್ಯಾ ವೋಡ್[10] ಸಂತೋಷಾನ್
[ವಂದನ್]

ಆವ್ಸೂಲೀಂ ಅಪದಾನ್[11]
ಸಮಸ್ತಯ್ ಪ್ರಕೀರ್ತನ್
ಕೋರೂಂ, "ಕೋಂಕಣೀ" ಮಾನು
ಹಾಡೋ ಹಮ್ಮಾಂ ನಿರಂತರ್
[ವಂದನ್]

**ಆರ್. ಮಾಧವ್ ಪೈ**, ತುರವೂರ್
*("ಕೋಂಕಣೀ" ಹಾತ್ಬರಪಾಚೇಂ ಮ್ಹೈನಾಳೇಂ ಆಶ್ವಿನ್, ತಾರಣ್ ಸಂವತ್ಸರ್ - ಸೇತಂಬ್ರ್, ೧೯೮೪)*

(ಚತ್ರಾಯ್ : ೧ - ಆಮ್ಗೇಲೇ, ೨ - ಆಸಾ ('ಆಸಾತ' ಜಾಯ್), ೩ - 'ಭಾಸೋ' ಜಾಯ್, ೪ - ಸುಂದರ್, ೫ - ಆಮ್ಗೇಲೀ, ೬ - ತಿಗೇಲೇ, ೭ - ನಿಷಿದ್ಧ, ೮ - ಜಾತಾ, ೯ - ಆಮೀ, ೧೦ - ಬರೀಂ ಕಾರ್ಯಾಂ, ತೋಖ್ಣಾಯ್)



घटक राज्याची १७ वर्षे

# यश, प्रगती आणि विकास

दुर्दम्य आत्मविश्वासाने भविष्याचा वेध,
परिपक्व दूरदृष्टीने प्रगतीकडे आगेकूच

गोवा सरकार, माहिती आणि प्रसिध्दी खात्यातर्फे प्रसृत